

# स्पन्दन

भास कोंकणी आवसु आमची। लिपि देवनागरी उडगासु दवराची।।

Date of Publication : 1st JANUARY 2019

## भावपूर्ण श्रद्धाञ्जली




## केरळ कोंकणी अकादमी

कोच्ची

पाँच रूपया

मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै

कोशाधिकारि
के. विजयन

वाँगडी
प्रो. जी. मोहन राव

न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार

प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521


मुखचित्र :
हे "स्पन्दन" मासिकेचे उपसंपादक असिल्ले
पी. मनोहर हेंका भावपूर्ण श्रद्धाञ्जलि ...




प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-


# स्पन्दन


प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची



**SPANDAN**
**Published by :**
**KERALA KONKANI ACADEMY**
**8/28, 'Santhery', 1st Floor,**
**Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,**
**Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849**
**Email : keralakonkaniacademy@gmail.com**

खंड : 8 अंक : 1 1940 पौष







कोच्ची, 01-01-2019 सुरेश ए. शेणै, मुखेल संपादक.







29-11-2018 कोच्चीः- कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर संस्थेची 2 कोंकणी पुस्तकँः- 1) "कालचक्र" (कणियाँ संग्रह)- सुरेश ए. शेणै (स्पन्दन मुखेल संपादक) 2) "काव्याञ्जलि" (कविताँ संग्रह) - कु. अञ्जलि किणि (स्पन्दनारि प्रकाशित) - गोश्रीपुरेशाले चरणकमलांचेरि अर्पण कोर्नु प्रकाशन केल्लें।





25-11-2018 आत्मदर्शन, मुम्बय :- मंगळूरु विश्व विद्यानिलय-कोंकणी अध्ययन पीठ अनि आशावादी प्रकाशन हंगेले संयुक्ताभिमुख्यारि 'राश्ट्रीय कोंकणी कार्यसाळ साहितिक विमर्सो' घडोवनु हळ्ळें। 4 पुस्तकांचे - 'काळजा उडी' (रोशु बारकूर), 'चाबूक आनी हेर कथा' (रोनी मोंतेरो), 'परनो रूक अनी तरनी वाल' (एवरी पांगळा), 'शिमटी आनी हेर कथा' (स्टेनरो अजेकार)-विमोचन जल्लें। विलफी रेबिंबस स्मारक राश्ट्रीय द्वी-लिपी कोंकणी साहितीक स्परदो 2018 चे पुरस्कार वितरण जल्लें (कविता - आर. एस. भास्कर, मटवि काणी-नयना अडारकर, तर्जण-किशू बारकूर हंका पयलें इनाम)। त्या परान्ते बहुभाशा कविगोश्टी जल्ली।



5-11-18 : एन. नगरेश केरळा हाई कोर्ट अडी. जड्ज जाव्नु नियमित जल्ले। त्या पर्यन्त ते असि. सोलिसिटर जनरल ओफ इन्ड्या जाव्नु अस्सिले।



(केन्द्र) साहित्य अकादेमी
(मुख्य) पुरस्कार - 2018
कोंकणी विभागान्तु - चित्रलिपी (कविता संग्रह) - परेश नरेन्द्र कामत

### ✤ तुम्गोले जाणकारीक ✤

"स्पन्दन" मासिकेचे 100 वें अंकानुबन्ध जाव्नु 13.01.2019 क अस्सिलो आघोषु वेगळे एक दिसा चम्कतलो म्होणु जाणेयतायि।



02-12-2018 केरळा योगा असोसियेषन अनि मलपुरं जिल्ला योगा असोसियेषन हंगेले संयुक्ताभिमुख्यारि जल्लेले संस्थान योगासन "चाम्पियनषिप - 2018" न्तु कोच्चीचे नन्दकुमार शेणै हंका द्वितीय स्थान प्राप्त जल्लें।

संत केशवदासालि
हितोपदेश कथा – 42

प्रो. वी. शिवानन्द भट,
पंचाब्जपुरम

# नळकूबर-मणिग्रीव-उद्धार

कुबेराले पुत्र नळकूबर अनी मणिग्रीव देवगणान्तु अत्यन्त सुन्दर अस्सिल्ले। अहंकाराचे अधीन येव्नु तन्नी महर्षि नारदाक अपमानित केल्लो। तंगेलो अहंकारु दूरा कोरूक, "लग्गी जन्मान्तु तुम्मीं भूमीरि वृक्षगर्भान्तु प्रवेश करायि" म्हणु नारदान तंका शापु दिल्लो। भूमीरि अवतरित जांवचे फूडे 'हे शापान्तु थकून मुक्त जांवचाक उपाय सांगा' म्हणु तन्नी नारदालगि विनन्ति केल्ली। हे दण्डान करतना ते पवित्र जत्तले म्हणूयिं समयु पाव्नाफडे प्रभु श्रीकृष्णु निज बाललीलेचे समयारि तंच्चे लग्गि येव्नु तंका ते जन्मान्तु थकूनु मुक्त करतलो म्हणूयिं, तदनुसार तंका पूर्वरूप मेळतलें म्हणूयिं सांगूनु नारदान तंका आश्वासन दिल्लें। जँवळ नळकूबर-मणिग्रीवांक जँवळ रूक जाव्नु जन्मु मेळ्ळो।

कृष्णावतारान्तु बालकृष्ण अनेक बालक्रीडा करतालो। एक दिवसा माता यशोदान चंचल कृष्णाक धाव्नत्तिलें राबचे खातिर एक मंथनदण्डाक बंधूनु घल्लो। मंथनदण्डूयि घेव्नु मनकुट्यान बालकृष्णु ते जँवळ वृक्षाचे मदेंचान गेल्लो। दण्डु शिरकलो अनी मुक्कारि वच्चेबगेक दण्डु ओडिल्ले कारणान दोन्नीयि रूक मूळसहित हुंम्माटूनु पळ्ळे। व्होडु शब्दु जल्लो। शब्दु आयकूनु यशोदा माता अनी अन्य जन एकत्रित जल्लीं। तन्नी बालकृष्णाचे समीप कृष्णाक प्रणाम कोरनु रब्बिल्ले दोनि प्रकाश-पुंज पळयलें। कुबेरपुत्र मुक्त जल्ले।

---

सन्देश :- मानवांक मात्र न्हंय अप्सरांक अनी देवगणांकयि परमात्मालें शरण घेतल्यारि कर्मफल भोग्गूनु पूर्वरूप प्राप्त कोर्यात।

**चौपदी** - एन. सदानन्द कम्मत, कोच्ची

जायि मक्का एक घर !
जायि परमान्तु भोर्नु रूक !
जायि मुक्कारि एकि तुळसि !
जायि परमान्तु एकि बाँयि !

**अख्खिल्लि रस्पति**



इडली, हिट्टु अनि पुट्टाक भर्कुण एवनायीचि...

तन्नि ऊब घेत्ताय न्हवें ?

## हें तुमका कळता व्हे?

**कोंकण्यांगेले आचार-विचार**

- सुशीला त्रिविक्रम भट, कोच्ची

### "दन्तुंबर"

**दाळी-वोडे** :- थोगडीं जनां एक्कडे जल्लेल्यांक दाळी-वोडे वडतलीं. चवळी भज्जून दाळि कोरनु सूरय वोरोवु, नरला रोस्सु, गोड, एळु, तूप इत्यादीक घालनु कोरची खीरि तां दाळी. ताजे ओट्टु वोडेय (दन्तुंबर) वडतलीं. जल्यार हें सर्व साधारण न्हय अस्सिलें.

❋ अत्तांचे घरांक मद्दें हुंबोरु म्हळ्ळेले प्रस्थान ना दिक्कून हुंबरा स्थानारी एकी माणायि दोव्वोरनु तज्जेरि तां चेरडाक बेस्सेयताय.

❋ दन्तुंबरां अनीक कत्तळी मात्र दिंवचे कडे सुभिक्ष जावनु तरातराचें खाण, पोळियो सग्ग दीवनु तां आहार क्रम चमकता. "ऐस क्रीं" पर्यान दिंवचीय अस्साय.

❋ दन्तुंबर कोरचे चेरडाकर्यान भागु घेंवचे सान चेरडुवांक "गिफ्ट" दिंवचो संप्रदायु लगेन आरांभिल्लो असा. अतां कालाक असलीं सग्ग कार्यक्रम धाडी-मोडीरीच तं चमकता.

❋ अत्तां कालाक अधिकय जनां चेरडाले जन्मदिवस तेद्दुसची दन्तुंबराचे कार्यक्रमय चमकेयताय.

## आरती विघ्नेश्वराक

- आर. एस. भास्कर, कोच्ची

आरती उंवाळू
मंगळ मूर्तींक
गौरी तनयाक
श्री सिद्धिविनायकाक
आरती उंवाळू
बुद्धिदायकाक
ज्ञानस्वरुपाक
श्री गजवदनाक

आरती उंवाळू
विद्यादायकाक
परब्रह्मस्वरूपाक
श्री गणरायाक
आरती उंवाळू
करुणासागराक
विघ्नहरताक
श्री विघ्नेश्वराक

### चेर्डुवांलि चित्रँ





कु. विश्वनाथ वी. भट (10) । कोच्ची एस. वेंकटेश्वर भट अनि संगीता हांगेलो सुपुत्रु ।

संत कबीरदास दोहा -



एन. लक्ष्मण मल्या, कोच्ची

"कबीर सुमिरन सार है, और सकल जंजाल।
आदि अंत सब सोधिया, दूजा देखो काल।।"

परमात्माले स्मरणच तँ जीवना सार। बाकि सर्व कैरीं बंधनांतु घलचें तँ। हाँवे आदि-अंत सग्ग गाळुनु चोयिलो। परमात्माले नाम बिना (सिवा) सर्वय विनाशकर तँ।

## येत्तलि हांव जन्मु घेवनु

- कु. अञ्जली किणी, कोच्ची

हांव आयली हंगा तक्का मेळूक
उज्वाडु सोड्डूनु दूर कोरूक काळूक।

लोकान खेळ्ळो विंगड वेशु
विस्सरली हांव हांगा आयलेल्या उद्देशु।

सूत तुण्टल्लें सोरंग्या वरि
उब्बूनु गेल्ली जाव्नु नियन्त्रणा वयरी।

तन्नि म्हळ्ळे "तो अस्स तुगेलेचि भित्तेरि
जल्यार निस्सोरनु वत्तोलो तू धोरूक सरतेरि।"

हांव सग खीटान्तुय तक्का सोड्डून भोंवता
तो केदनाय मेजेलगि निप्पूनु खेळता।

ताणे येवु भित्तरि मक्का मेळूक घेवनु
दुस-दुसरि येत्तलि हांव जन्मु घेव्नु। ☺



## सहज

- सुनिल पालकार, नावशी-गोंय

तोडून उडयलो लागिंच्याक सहजपणान
जमलें भुलोवंक वांगडच्याक सहजपणान

मायेन भोवणायलो हात फाटिचेर
मोगान जिकलो वांगडच्याक सहजपणान

जखमी जालों उतरानी जायते पावट
दुखयलो ना केन्ना वांगडच्याक सहजपणान

जालें गर्व मोटेपणाचें निसरले पांय
उडयलो ना अरिश्टांत वांगडच्याक सहजपणान

मरतकच आयलो पळोवंक संवसार
दिली श्रदांजली वांगडच्याक सहजपणान ⌘

एक प्रयोजनप्रद कोंकणी वेबसैट :
konkaniwordnet.unigoa.ac.in




## "ज़ुलू जन जंग"

फोनिक्सान्तूले जीवनक्रम सुगम सरस सरळ कोरूक गान्धीजीलो प्रयत्न प्रोत्साहन चलताचि अस्सिलें। सामान्य साधु जनाले शान्त संयमित लघु जीवना सर्के तें म्हळीली देकि ते घट्टि धरताले। थांगाचि स्वच्छता शुद्धी वृत्ति चन्दायि एक कारणानयि सडळ जावुन्हयें, ह्या कार्यान्तु सग नितान्त जाग्रता रकताले। त्या संविधानान्तु थाकून एक सत्य व्यक्त कोर्चे महनीय उद्देशूयि आस्सिलो - दुर्बल जल्यारीयि तन्नि बेळसे, बुरसे, बुरकूटे, आळसे, अवकि दिसूचे जांवका कांयीं कारण ना। दारिद्र्यान्तु गुस्मुटेंवका नाका।

सन्त सन्त फोनिक्सान्तूयि ब्रड कोरूक आरांभीले। हाथान दोळनु काडचि गोवापिट्टि दिकून सुवादकर रुचिकर आरोग्यकर धन लाभकर जत्तालें। तें कोरचे चोंवचाक सिकूक चेर्डुवांकयि कौतुक दिस्सलें, तान लगली। गान्धीजीलें कुटुम्बयि तन्तु मेळनु अनुभसून व्यवस्थेन्तु मेळसून, अनुभूति सोसून आयलें। तस्सि अन्तरीक्ष चन्द आसतना तं, ज़ुलू जन विभागालें जंग प्रारंभु जालेलें। तें जन आफ्रिक्यान्तूलें प्राचीन वनवासि अध्वानि तं अस्सिलें। ब्रिटीषानी अकारण तान्चेरी करभार दाम्बूनिक तं ते क्षुभित जाले खब्दळेले।

भारतजनतेरि अनीति कोर्चे कारणान, समर्गणि दीस कडचान्तु अडावण हाडचान्तु विरुद्ध जावनु गान्धीजी अहिंसात्मक मार्गान जूजतचि अस्सिलो। जल्यारीयि तेचि गोर्यानि केदाण मान्यान कसलोय सहाय सहकार विनन्ति केल्यारी गान्धीजी कोर्नूयि एत्तालो। तान्चेरि शाश्वत शत्रु भावना दवर्ना अस्सिलो। ह्या सन्दिग्ध सन्दर्भारि भारतीय स्वयंसेवक संघ घडैलें, अत्याहित वाहन सेवा विभागान्तु सेवा आरांभीली। सण्ण मुकारि वचाकयि गान्धीजीले हर्दें कारुण्यान कर्गलें। निस्सहाय ज़ुलू लोकाक शक्तिवन्त अधिकारि वर्गाले बला मुकारी कांय करूक जायना अस्सिलें। आस्पतलान्तु आहत ज़ुलू जन मात्र दिकूक पळ्ळे। नांवाक एकलो सरी यूरोपि थांगा दिकूक ना। जुलूम कांयि कोर्नात्तिले निरपराधी ज़ुलू वंशज ब्रिटीषांले गूळो लागून वृणित अवगणित पळ्ळे। संशयान मार्नु हड्ड मोळ्ळेले वगळे !

त्या साधु ज़ुलू जनांक गान्धीजीले संघान आत्मार्थ सेवा शुश्रूषा केल्ली। तांका दामु ना, आयुध बल ना, विद्या पाण्डित्य ना जायत, न्याययुक्त प्रतिषेधाक खावडी खावैली गोर्यानि! गान्धीजीन तांका हाथु सोळ्ळोना, कष्टान्तु, नष्टान्तु, भोगपान्तु सर्व संरक्षण कर्ताचि राबीले। ❋

## ध्रुव नक्षत्र-कोंकणी

- वी. सुरेश शेणै, कोच्ची

कोंकणी ती भाषा अम्चि
श्रेष्ठ ती अम्का जीवु रे
पुण्य भाषा कोंकणीक
देवनागरी लिपि रे.... (कोंकणी)
चरित्र-ग्रन्थ-साहित्य तें
धूळि केल्लेलि कोंकणी
दुष्ट जनांनी स्वार्थ मनान
उज्जो घल्लेली कोंकणी (कोंकणी)
कष्ट-नष्ट भोग्गूनु अम्मिं
रक्कूनु हळ्ळेलि कोंकणी
गोंयचे भूंयचेरि ऊंच एम्लि
आवसु ती अम्चि कोंकणी (कोंकणी)
स्थान-मान-मान्यतेन
उज्ज्वल जंचि कोंकणी
सूर्य तुल्य उद्देव्नु एम्चि
ध्रुव नक्षत्र ती कोंकणी (कोंकणी)
पुरुषोत्तमु तो मल्लेमामु
कोंकणीचो प्रेमि रे
मेळ्ळो पुरस्कारु पत्मश्री
कोंकणीक तें भाग्य रे. (कोंकणी)

## केरळेश्वरा - वी. लक्ष्मण पै, कोच्ची

केरळेश्वर महादेवा
'नमन करताय तुक्का सदाशिवा
दर्शन तुगेले मुक्तिदायक
स्मरण तुगेले मोक्षदायक (केरळेश्वर)

दक्षयागान्तु अपमानित जाव्नु
सतीदेवीन जीवत्यागु केल्लो
रौद्र रूपान नटन कोर्नु
दक्षालो अहंकारु नाशु केल्लो (केरळेश्वर)

मृत्यूक जय पाव्नु मारखण्डेयाक
रक्षण केलेल्या मृत्युञ्जया
शरणांगत अम्का रक्षण कोर्का
भक्तवत्सला भक्तप्रिया (केरळेश्वर)

## आदगति गुंतिले काव्यमाला

- नागेष अण्वेकर, कारवार

आवयि पळैता पोट
बायिल पळैता मोट (गांठ्लि)
आवयीले मोग सरडना
सांगून सरना तिगीलो त्याग

## सुख दुःख

- संदेश श्रीकांत बांदेकर, कारवार

सुख दिवचे वाटुन
दुःख दवरचे धापून
हेच आसा मनश्याले जीवन
सुखा फाटल्यान सगळें
धाव धाव धावतात
दुःख येयलार मात्र
आमि आंग काडतात
कोलोभर ते सुख
आनी बुटीभर दुःख
होच आमगेलो तो
जीवनाचे रुख
येयले सुख येयले सुख
पुण गेले धावुन
दुःख येयले ते रावले
जीवनाक अनुभव दिवुक
सुख दुःखाचे हे जीवन
आम्गेल्या मनीस कुळयेचे
गोड काय कोडु
हे आमी मानुन घेवचे ❑

## मृत्यु पोसुचे वेळेरि

- नम्रता पी. किणी, कायंकुळम

लज्ज ना, नाही जलन
अत्भुत जन्माक हेतु तू
विन्ती, इच्छा, आग्रहु अनेक
सग्ग नाजल्या अत्तं.

मदरत्तीचे शाँत शेळवोतु घेतल्या
चंदीणे अनि नक्षत्र हाँव पळैल्या
जन्म-जन्माचे सुख दिवचे
चंद मंद सुगन्ध वारें घेतल्या.

काळे मोड जीवनांक पोसुचे वेळेरी
मृत्यूच घळपास एवनु पांव्चे वेळेरी
घूवनु चोव्चे मिगेले हृदय,
ना निंगतले धन, ना निंगतले दंद.

उडगास करतले तीन जोपु कीर्तन
मोगान संगलेले तुगेले उत्तर
रडचानीक दोळे पुस्लेले हाथ
एकवेळेरि पुणि, दिकू एवचानीक
तू दिल्लेले मंदहास. *

आपल पंक्ति - 82
**अज्जेलीं वोक्कदा**
(मुत्तश्शि वैद्यं)
सुशीला टी. भट्, कोच्ची

**वोळु / वोळोकु** : - [वोळ्का मूळ, इन्द्रे कान, सोस्या कान / മുയൽ ചെവി / *Lilac Tasselflower or Cupid's Shaving Brush (Emilia sonchifolia)*] हज्जो रोस्सु वोळोकु अस्सिल्ले शरीर भागाक सक्काणी - सांजे चार-पांच दिस्साक लायिल्यार वोळोकु आनी दूकि शमन जात्ता. ह्यें एक वाराक निरंतर दिल्यार जात्ता

## हस्ति अनि शिवणकारि



- ए. आर. प्रभु, कोच्ची

एक गाँवान्तु एक कडेन जाव्नु एक शिवणि अंगडि अस्सिलि। ते अंगडि धन्नि रामु म्हळोलो शिवणिकारि। तो थंगा बेसून चोग्गो, चेंड्डि, चेल्लाण सग्ग शिंवतालो। तग्गेले अंगडि मुक्कावेलान एकि हस्ति न्हंयन्तु न्हांवचे वगेक जाव्नु वच्चप अस्सिलें। रामूले अंगडि मुक्कारि ती राबतली। तो तिक्का स्नेहान केळिं दित्तलो। ती तक्का अभिवादन करतलि। यें तस्सि सदं चलता एत्तालें।

एक दिस्सा तो केळिं हाडूक विसर्लो। तक्का कसलकी एकु मनप्रयासूयि अस्सिलो। ते वेळारि तँ हस्ति पाविल्लि। तीणे सोण्डालि मुक्कारि कोरूक, ताणे तगेले हत्तान्तु अस्सिले सूवेन खोंबीलें। हस्तीक दुक्कलें। ती सीदा न्हांवचाक गेल्ली। पोरतून एत्तना उद्दाक सोण्डाळेन्तु कळ्ळें। सीदा अंगडी मुक्कारि पावलि। सोण्डाळि वेयरि केल्लि अनिक अंगडीन्तु उद्दाक उस्सीलें। तग्गेले अंगारीयि लुगटांचेरीयि सग्ग ते चिकला उद्दाक पळ्ळें। शिवणिकारि तस्सि बुद्धि शिक्कीलो।

**आळें** (കടങ്കഥ / Riddles)

'शेम्बरि चेर्डुवांक एक वोड्याण !'

सार्नि

**कोंकणी खबरेक चोय्यायि/पळेयात**
facebook
कोंकणी केन्द्र-गोश्रीपुर

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय) - उषा आर. भट, हैदराबाद

### सामग्री

| | | | |
|---|---|---|---|
| 1. मूगु किरलायलोलो | - 100 ग्रां | 8. सानु पिय्यावु (कोच्चोलु केल्लोलो) | - 10 |
| 2. टेंण्डले तरणे पल्ले | - 1 कप्प | 9. नरलाचि सोयि | - 1 वोळ्याचि |
| 3. मॅसिंगाचे तरणे पल्ले | - 1 कप्प | 10. हळदी पुड्डी | - 1 चिपट |
| 4. भज्जेचे पल्ले | - 1 कप्प | 11. धरम्ब्यांचि सोल्लँ | - 2 |
| 5. पालक भज्जेचे पल्ले | - 1 कप्प | 12. मीट | - आवश्याक |
| 6. मेत्तीये पल्ले | - 1 कप्प | 13. तेल, सस्सम, कर्बेवा पत्ति | - फण्णाक |
| 7. जीवि मिरसांग (दिग्गायेन चिर्लेलि) | -10 | | |

वॅयरि 2 धॅरनु 6 पर्यन्त संगिल्ले पल्ले, धूव्नु शुद्धि कॅरनु, पिस्सूणु सान कुटके कॅरनु दव्वरका। सोयि हळदी पुड्डीयि जाव्नु कलौंका। पोड्ग्यान्तु तेल घालनु, तन्तु सस्सम घालनु भेत्ततॅरि, जीवि मिरसांग चिरलेलीयि, करबेवा पत्ति, पिय्यावाचो कोच्चोलु, धरम्ब्याचि सोल्लंयि घालनु स्वल्प घडियांक चाळका। उपरान्ते मूगु किरलाय्लोलोयि घालनु चाळका। तज्जे उपरान्ते सोयि आनी मीट घालनु चाळका। मग्गीरि पिस्सूळेले पल्यांचे कुटकेयि मिश्रण कॅरका। अगत्य पळयारि उद्दाक फप्पूणु, चांग प्रमाणि मिश्रण कोरनु रण्णीरि थकूनु खाल काड्का।

## श्राद्धाक वडचे लेक

- एन. माधव रावु, कोच्ची

सक्यदन्नम, सक्यताज्यं, व्यञ्जनानी पुनः पुनः।
त्रिवारं प्येष्ठ पक्वं च चातुर वारं तु पायसम्।।

सीत भोरनु एक वळे। तूप एक वळे। रंन्दयीयो दुस्सरीयि दुस्सरीयि। पक्वँ तीन वळे। पायसु चारि फंता।।

## रुद्र

अजैकपाद्, अहिर्बुध्न्य, विरूपाक्ष,
भैरव, हर, बहुरूप, सुरेश्वर,
त्र्यम्बक, सावित्र, जयन्त,
पिनाकी, अपराजित

## सुभाषित



प्रो. के.एन.आर.भट
कोच्ची

"पिता रक्षति कौमारे भर्ता रक्षति यौवने
पुत्रस्तु स्थविरे भावे, न स्त्री स्वातन्त्र्यमर्हति ।।"

- महाभारत, विराट पर्व

कौमार प्रायेरि बप्पूनॅयि, यौवनावस्थेरि बम्णानॅयि, वृद्धावस्थेरि पुत्रानॅयि अवश्य एक स्त्रीयेक रक्षण कॅरका; तें तन्नि चुक्कूनत्तिल्लें कॅरका जल्लोलो धर्मु तँ। खंचे स्त्रीयेकयि असुरक्षित जाव्नु सोडूक नज्ज; ह्यें समूहाचेंयि एक कर्तव्य तॅ।

---

**कोंकणी नाटक** 2.12.2018 श्री विट्टल रकुमाई मन्दिर, दहिसर काशीमठ :- गुरुकुल कला रंग प्रस्तुति "म्हानु जायि म्हान्तु" (रस्पति नाटक) अस्सिले।

कोच्ची सिन्द्रा भोगोन्ती देवळाकडे तार्पूलीक कोच्चीन कलाक्षेत्राले "नम्बर 40 : को-को एक्सप्रस" (हास्य नाटक) अनिक महाशिवरात्रीक श्री धर्मशास्ता देवळाकडे पाण्डुरंग कलाकेन्द्राले "चिरञ्जीवि मार्कण्डेया" (पुराण नाटक) अस्तलें।

# अचञ्चल देवभक्ति

- वसन्तकुमारी पी. एस., कोच्ची

रामनाथु एकु व्यापारि तं अस्सिलो। तो सत्यसन्धु तं, जल्यारि दीस वत्ता वत्ता दरिद्रु जल्लो। तग्गेलि विधि आलोचन कोरनु ताणे देवाक शिरापूक आरांबीले। जल्यारि तेग्गेलो पूतु मित्रा व्होड्डु दैव भक्तु तं अस्सिलो। तग्गेलि भक्ति दिक्कूनु बप्पून पुत्ताक खेळु कोरूक आराम्बीले।

एदे काळ गेल्ले। तग्गेले घर जीर्ण जाव्नु खल्ला पळ्ळें। तो बयलेकयि चेर्डुवांकयि घेव्नु ते गावांतु थकूनु गेल्लो। वट्टेरि एकि न्हंय अस्सिल्लि। न्हयेचे पेल्ले तडि वच्चाक मोच्चूंव चोव्नु रब्बिल्ले वेळारि तन्नि न्हय्तुल्यान इत्तिकी होळनु एत्ता दिक्कीलें। चोंव्यानीक ते एक गड्डव तँ म्होणु मनान्तु जल्लें।

मित्रान "बप्पा अम्का तक्का रक्षण कोर्या" म्होणु संगिलें। जल्यारि, "तक्का रक्षण कोरूक गेल्यारि अम्मीयि बुडूडूनु मरतलिं, नक्का" म्होणु संगीलें। जल्यारि ते अयकूनत्तिल्ले मित्रु न्हंय्तु उडकि मार्नु कष्ट काणु ते गड्डवाक तडी चडयलो। तग्गेले फट्टीरि व्होळ्ळो एक पोट्टोळो अस्सिल्लो। मित्रान जवंचे मट्ट शुश्रूषा कोर्नु गड्डवालो जीवु रक्षण केल्लो। मग्गीरि तो पोट्टोळो मेक्कोळनु चोई तन्तु भरि भङ्गराचे दुडू तँ। ये सग्ग तग्गेले पुत्तालि दैवभक्तीकयि, चाँग मन्नाकयि मेळ्ळोंलो पारितोषिक त म्हणु रामनाथाक कॅळ्ळें। तो कुटुम्बसमेत गावांतु पोरतूनु वोच्चूनु जयते काळ सुखान जीवित कळ्ळें। मग्गीरि तो देवाक विस्सोर्लोना।

**कोंकणी प्रसारण - आकाशवाणी** कारवार : (सग्ग बिरस्ताराचे देनपारा 5.00 - 5.30)
धारवाड (765 Khz) MW (सग्ग सोमाराचें रत्ति 10.00 -10.30 जाई-जूई कार्यक्रमु)
तृश्शुर (630 Khz) MW, कोषिकोड (684 Khz) MW : (मंगळाराचे संजे 5.00 धोर्नु 5.15 पर्यन्त)

**स्वपति - आर. के. प्रकाश, पत्तूर**



Dr. P. N. N. सिंह
डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

पोरोबुमाम - डॉक्टर, पायसा मेळेंत फाई हांव चार लिटर पायसु पीव्नु उद्घाटन करूक वत्ता तं। तुंगेलो आशीर्वादु जाँका।

डॉक्टर - प्रश्नु ना, रुद्रविलासान्तूय, होस्पितलान्तूय खबर दी। तंगेलो आशीर्वादूय जांका जातोलो।

* * * *

कत्तो मुकुन्दु : डॉक्टरमाम, मक्का विस्सरप चडच। आत्तां हांव इत्याक हांगा आयलो म्होणु विसर्लो। यें असुख वे ?

डॉक्टर : प्रश्नु ना, हांव वखद दित्तां। वड उडगासान खंवका। खलेना जल्यारीय प्रश्नु ना। तीन दीस जाव्नु दुसरीय येंका। फीस दिंचाक विसरसी।



## परणी म्हणणी

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

* खाणा वेळारि मेणा दोळे।
* खावप जेवप अस्स जल्यारि सोयरि खूबें।
* बय्ये वोच्चून बोड कॅरप।
* बय्ले बुद्धीक पोळ्ळो, घराचो भंगस्तल केल्लो।
* बय्लालें तोंडान्तु तीळु तिंबुन्ना।

## कोंकणी - മലയാളം - English

- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

गाण्टि / गांटि - കെട്ട് - Knot

निस्सॅर्गाण्टि - ഊരാൻകെട്ട് - Slipknot

गंटॅवोर्ल - ഗ്രന്ഥിബന്ധനം - Tieing together the upper garments of the bride & the bridegroom

वोर्ल - തലപ്പ് - Veil

गांटि घालप - നിശ്ചയിക്കുക / തീരുമാനിക്കുക - to determine

पुस्तक प्रकाशन 25.11.18, बोधी ट्री आंगण, मंगळूरु - तींत जालें रगत - रेशु बजपे



# पी. मनोहर (1936 - 2018)

- प्रो. जी. मोहन रावु, कोच्ची

"स्पन्दन" मासिकेचे सुर्वेक धोर्नु उपसंपादक जाव्नस्सिले पी. मनोहर हंगेले देहवियोग 20.12.2018 क जल्लें। ह्यी खबर तुम्का जार्णोव्वान्तु बहु दुःख अनुभवु जत्ता।

2010 अक्टोबर 1, 2 तारिकेक विश्व कोंकणी केन्द्र, मंगळूर जल्लेले "कोंकणी रामायण" सेमिनारान्तु भागु घेव्नु पर्तून एंवचे वेळारि उझा भण्डीरि बेस्सूनु कळ्ळोलो निर्णयु तँ देवनागरि लिपीन कोंकणी मासिका देर्वोव्का म्हळेले। अतँचे मुखेल संपादक सुरेश ए. शेणै, पी. मनोहर अनि गोश्रीपुरं हरिकुमार हन्नि वर्तमानेन्तु भर्सि कळ्ळेले ये निर्णयाक चड बल दिल्लेले मनोहर हन्नि तँ। तेचि मासाक "स्पन्दन" प्रकाशित जल्लेंयि। अतँ, 2019 जनुवरीन्तु मासिकेचे 100 वें अंक देंवतना हन्नि अम्गेलगि अस्सूका जल्लेले तँ अस्सिलें। ते दिक्कूनूचि तँ बहु दुःख अनुभवु जत्ता म्होणु संगिल्लें। इत्तेयं जावो, 100 वें अंकान्तु तंगेलेचि चित्र मुखचित्र जाव्नु एंव्का म्हळ्ळेले देवालि इच्छा जाव्येत।

कोच्चीचे एस. पद्मनाभ अनि रत्नं हंगेले 7 चेर्डुवान्तु दुस्सोरो पूतु जाव्नु 13.4.1936 क मनोहर हंगेले जन्मु। विद्याभ्यासानन्तर तरातरा कामान्तु अस्सिल्ले। प्रिन्टिङ क्षेत्रान्तूयि अस्सिल्ले। अनसूयाक व्हर्डीक केल्लि। दम्पतीक 4 चेल्या चेर्डुवयं जल्लीं।

कोच्चीचे सारस्वत अस्सोसियेषनाचे कार्यदर्शी, केरळ कोंकणी अकादमीचे प्रथम कार्यदर्शी अनि मगीरि जीवितान्त थांयि कार्यकारिणी समितीचे अंग, कोंकणी साहित्य अकादमी - केरळ संस्थेचे अंग अस्सि सग्ग प्रवर्तन केल्यां। अ.के.कों.क.सा. सम्मेळनाक अनुबन्ध जाव्नु चम्किले नाटक मत्सरान्तु (1979 सेप्टेंबर 1-8) वैश्य कलाकेन्द्राले "हाँवेंय कोंकोणो रे" (शेठ बलराज अवतरित) नाटकान्तु अभिनयु केल्लोलो अस्स। 1996 वर्ष कोच्चीन्तु जल्लेले अ.भा.कों.सा.संमेळनाचे (13 वें अधिवेशन) सहकार्यदर्शी अस्सिल्ले। केरळ कोंकणी अकादमीन, संस्थेचे रजत जयन्ती आघोषान्तु (2005 मे 21) दवोर्नु हंका शाल पंगूर्नु आदरु केल्लो।

अस्सि समाजाचे, भाषेचे उन्नति खतीर सदा प्रयत्नशालि अस्सिले तंगेलो उडगासु सदा अस्तलो। तंका भावपूर्ण श्रद्धाञ्जलि अर्पण कर्तां।

*

# देवी

- लता रंग मल्लन, माळा

धरि देवी अंगेले मन्न
करि तुज्जेरि पूर्ण लीन (धरि)
भरि अंचे हृदयांतु
तुग्गेले ते दिव्यरूप (तुग्गेले)
तुग्गेले ते श्रीरूप (धरि)

नित्य वन्दन अम्मि करतायि
कीर्तन तुग्गेले प्रीतीन म्हणताय
पूजन कोरचे देवी
अंचो यो जन्मु तूवे सफल कोरका (धरि)

दोळे विस्कळाव्नु चोयनावे ?
अंगेले संकट दिक्कनावे ?
दुःख शमन कोरनु अम्चे ये
मन्नांतु शान्ति तू दिव्चिनावे ? (धरि)

शक्ति ना देवी अत्तं अम्का
भक्ति अनिकयि तूवे दींव्का
शक्तिस्वरूपिणि गौरीमाते
मुक्ति तु अंगेले प्राण्याक दींव्का (धरि)

2018 डि. 5-12 गोश्रीपुरेशाले रथोत्सवानुबन्ध जाव्नु कोंकणी पुस्तक प्रदर्शनि अस्सिलि।

# सुरदास भजन (कोंकणी अनुवादु)

- के. अनन्त भट्ट, कोच्ची

सोणु तुका हांवें कोणाक धरचें।
कोणाले देरलांतु मात्तें बागसूचें
अन्याले अधीन करचें।।
कोण तो असलो दाता सामर्थु,
दानान तृप्त करचो।
अन्तकालाक तुझे स्मरण, गति ती,
कोण दीव्नु माका धरचो।
दुर्बळे सुदामाक श्रीमन्तु केल्लो,
दिल्लें अभयाचें स्थान।
कामधेनु चिन्तामणि दिल्ली,
कल्पवृक्षु तो दान।।
भवसागरु हो भारि भयंकरु,
मनांतु भय तें लागता।
दवरि कृपा करि वचन तें सत्य,
सूरदासु हो मागता।।

## केरळ-कर्नाटक-गोवा

-गोश्रीपुरम हरिकुमार

वेस्त - निश्चयताम्बूल - साखरपुडो
व्हर्डीक - लग्न - लग्न
चेर्डूवँ - चेर्डुबाळ - भुर्गी

Reg. No. KERKON/2012/45527
Vol. No. 8 Issue No. 1
Rs. 5/- No of Pages: 20 **SPANDAN**
Published by : KERALA KONKANI ACADEMY, KOCHI

Registered KL/EKM/732/2018-20
Licence No. KL/CR/EKM/WPP-22/2018-20
Licensed to Post Without Prepayment
Date of Posting 10. 01. 2019



Printed and published by Suresh A. Shenoi on behalf of Kerala Konkani Academy and Printed at M/s. Prakash Process, Srinivasa Mallan Road, Ernakulam, Kochi - 682 035, Ph: 2350960 and Published at 8/28, Santheri, 1st Floor, Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road, Kochi - 682 002. Editor - Suresh A. Shenoi